# पुष्पांजली

(कविता संग्रह )

पी. एस. रामचंद्र शेणै

शेणै प्रकाशन
कोची

Konkani

# PUSHPANJALI

Poems of
P. S. RAMACHANDRA SHENOY
Srinivas, Waterland Road,
Palluruthy, Kochi - 682 006

First Edition - 2001
© Smt. Vatsala R. Shenoy

Published by
SHENOY PRAKASAN
KOCHI - 682 006

Typesetting and Printing by
VASANT INDUSTRIES
Town Hall Road,
Kochi - 682 002.

Price Rs. 50.00

Cover Art : SUDHAKAR. R.

# दोनि उतरां

मिगेल्यो कविता सहृदय समक्ष सविनय समर्पण करतना होडु संतोषु दिसता. तांगेलें प्रोत्साहन आनीक आशिर्वादु माका मेळतलो म्हूण विश्वास पावंतां. अनेकांल्यो कविता आनी इतर साहित्य हांवें वाचल्यां. ते कृतींतुल्यान माका मेळळेले प्रचोदना वरीच, मिगेले कृतीं थाकून कोणाकय तरी प्रचोदन मेळळें जाल्यार हांव धन्य जातलों. हे पुस्तकाक प्रोफ. आर.के. राव हान्नी चमतकारन बरयलेले प्रस्तावने खातीर तांकां भरलेले हृदयान कृतज्ञता सांगतां. मिगेले साहित्या खातीर माका सदाच उत्साह दीत येवंचे श्री शरतचंद्राकय मित्रभावान धन्यवाद सांगतां. मिगेले मनांत कवितेची रोंपी वोयलेले सर्वव्यापी ते जगतकवीले पायांकडे नमन करतां -

- पी. एस. रामचंद्र शेणै



# उपहार

जायते विषयांचेर जायतें बरोवन जावन; जायते आनुकालिकांचेर तें उजवाडाक येवन; नांव पावून; पुरस्कार जोडून - आनी आतां बप्पाले कवितांचो एक संग्रह प्रकाशन जावप .... आमचें हें चिरकाल सपन आज हांगा साकार जाता! तरणे पिळगेक हें पुस्तक उपकारी आनीक स्फूर्तिदायक आसतलें अशी आमी विश्वास पावंताय. अम्मालेय बप्पालेय व्हारडिकेचे 'डायमंड' जूबिलीचे हे वेळार हें एक योग्य उपहार म्हूण आमी सविनय समर्पण करताय -

पूत, धुवो आनी कुटुम्बां.



## श्री. पी.एस.रामचंद्र शेणै

सुमार शंबरालागी कविता हांणी रचल्याय आनी साबार कविता कोंकण जनता, सारस्वत वाणी, वैष्णवरत्न, सुनापरान्त, आदींचेर उजवाडाक आयल्याय. ते भायर दोन कोंकणी नाटकांय हांणी रचल्यांय. हांकां कोंकण आनी कोंकणी भाषा प्रचार सभा पुरस्कार मेळयाय. कोची लागी पोळ्ळूर गांवांत १९१७ वर्सा जन्म घेवन बी. ए. आनी बी. टी. बिरुदां घेवन, हे अध्यापक जाले, आनी मुख्याध्यापक आसतना निवृत्त जाले. हांची धर्मपत्नी श्रीमति वत्सला आर. शेणै. तांणीय खूब साहित्य सेवा केल्या आनी पुरस्कार जोडल्याय.

# प्रस्तावना

सद्याक हांव कविता बरयना. पूण हो साहित्य प्रकार सदाच म्हजे आस्थेचो विशय उरला. 'पुष्पांजली' केरळचे कोंकणस्थ सारस्वत कवी श्री पी.एस. रामचन्द्र शेणैलें कविता संग्रह आसा. ह्या कोंकणी कविता संग्रहांत विविध विशयांचेर बरयल्यो सान व्हड बतीस कविता आसाय. प्रथम कवितेचे नावांक आधारून संग्रहाचें नांव 'पुष्पांजली' घेतलां. एक एक कविता एक एक रंगाचें फूल म्हूण लेकून कवी तीं फूलां विद्यादेवीचे पायांकडे अर्पण करून तिजो अनुग्रह मागता, अशें म्हाका दिसता.

वेगवेगळे रंगाचे आनी परिमळाचे फुलां सारकें 'पुष्पांजली' ची प्रत्येक कविता भिन्न भिन्न प्रकाराचे विशय आनी विचार - हांचेर आधारून आसा. कवितांतल्यान प्रगट जावंचे विचार सरळ आनी सुबोध आसाय.

'पुष्पांजली' चे फुलांचो परमळ कोंकणी मोग्यांकडे सर्वत्र घमघमेवो अशें इत्सा बाळगीतां.

आर. के. राव
(कोंकणी भाषा पंडीत)

# मांडावळ


| | | | |
|---|---|---|---|
| * पुष्पांजली | 7 | * स्वयमकृत अनर्थ | 32 |
| * वृन्दावन | 8 | * बोंदरली | 33 |
| * परिपूर्ण | 10 | * कल्पवृक्ष | 34 |
| * बुडून सोदाय | 11 | * उत्सव | 36 |
| * पंचभूत | 12 | * पावस | 38 |
| * अन्यथा चिंतितम | 14 | * फूल | 40 |
| * जीव | 15 | * वंसत ऋतु | 41 |
| * सर्वम सह | 17 | * तुषार बिन्दू | 42 |
| * पुनर्जन्म | 19 | * तंरगिणी | 43 |
| * उव्वार | 21 | * सायम संध्या | 44 |
| * कालु | 23 | * खंय उदाक | 45 |
| * मेणावाती | 25 | * सरस्वती | 46 |
| * मोग | 27 | * संस्कृती | 48 |
| * समभावना | 28 | * दिन-रात्र | 49 |
| * नाटक | 29 | * चन्द्रेमु | 51 |
| * जायते म्रियते | 31 | * संध्या | 52 |

# पुष्पांजली

नाम रूप गुण भाव मन भरुनी
काम क्रोध लोभ मद मात्सर्य सोणु
कमल तुजे पायांकडे भक्ति भोरूनु
निर्मळ दळ अर्पण करतां होड भक्तीन -

मोगरें कमळ जाय जूय चांपें पत्माक्ष
मोगान तुजे पादुकांरी अपर्ण करतां
मार्गु चांगु दाकोवंचाक दया करि
मागल्यान मुकार चोवनातीन समच वचाक-

मिजे मनांतु तुजें रूप केदनाय भरी
तुजेविना माका कोणाक दाकोवंचें नाका
मुज्जन्माची वासना मिजी वाड्डोवनु हाडी
सज्जनालागी संसर्गु कोरूक वाट दाकय -

दाकय देवा चांगि वाट मुकारि वचाक
माका तुजें पावन रूप केदनाय चोवंचाक
दिकू सगट तूं भोरनु विक्कोरनु आस्स
सारकें तुजें इत्ति मोण दयेन दाकय -

विसोरनातीन नित्य तुजी सेवा कोरूक
पिसूण मिजे हृदयांतु तुका भोरूक
सास्सा लेक्कान फूल तुका नित्य दिवंचाक
हास्सूनु तूं स्वीकारु करि मिजी पुष्पांजली !

# वृन्दावन

प्रशांत सुंदर दृश्य !
वाली, फुला - झाडां
झाडांर भरून फुलां !
कसकसले वर्ण !
फुलांचो परिमळ
प्रदेश सगळो भरता
भरून पत्माक्षां फुलेल्यांय
तळें भरून - कितलें चन्द !
भोवर उबून फुलार भोवंता
ताचो हुंकार आयकूयेता
फुलार थाकून फुलार उबता
म्होव पीवन उन्मादित जाता !
पवित्र यमुनेचो तडीक
शांत गंभीर तिची गती
सवणी पक्षी किळबिळेताय
वार्यांत फुलां - परिमळ भरला !
गोपस्त्रियो एकडे जाल्यांय
फुलां पशि सुंदर मुख
हासून चोवन नांचून राबल्यांय
कोणाक राकून वेळ काडताय ?
कृष्णाक राकून साबार वेळ
अक्षमेन तीं तशी राबताय !
आरती वेळार निश्चल जावन
प्रणाम करून राबचो लेकान !

दूरा थाकून मुरळीनाद
आयकून तीं कानान श्रद्धा दिताय
लागी लागी शब्द येता
ते दिकार तीं कान दिताय -
मुरळीचो मधुर नाद
दिंगतरार प्रतिध्वनित जाता
गोपस्त्रियांले ह्रदयांतुले
तंत्रीर तो अनुरणन करता !
गोपस्त्रियांक उन्माद जाता
हासून नांचून उडक्यो मारताय !
पायीं पडताय, पोटोन धरताय,
जन्म साफल्य मेळूक वता म्होण !
मुरळीनाद लागी लागी पावंता
तो दीक चोवन धावंचाक लागताय -
गुलाबा उदकांत न्हावन चन्द्रेम येता !
तेजोमय, मनोहर रूप दिकता !
पत्माक्षावरी ओंठार
पिरलूक धरून वाजीता
ह्रदयहारी संगीत नाद
गोपस्त्रियांक निर्वृती जाता !
एकेकलेचे लागीं वेता
हाताक धरून नांचता !
मोगान तांकां आलिंगन करता
दिव्यानुराग तांकां दिता !

# परिपूर्ण

लक्ष जनाक चोवनु सोदल्यारी
लक्षण अवसल्लो कोण मेळना !

बाकी सर्व सम एकल्याक
दोळे माजराचे म्होणचो दोषु
एकलो काणसो, एकलो कुरडो
एकलो थोंटो एकलो गुड्डो

एकल्याक एक हात ऊणे
एकल्याक गोमटो नीट राबना
एकल्याचो पायु लांबून पळा
एकल्या तोणांतु दांत कांय ना

एकल्या मात्याक केसु ना
एकल्याक उलोवंचाक जायना
सर्व गुण भरलेले एकल्याक
सर्वेश्वरान कोणाक जन्मु दिल्लोना

गुण पूर्ण आशिल्लो एकलोचि
उत्तम पुरुष श्री रामचंद्रु !

# बुडून सोदाय !

सागर अपार
अगाध शांत
रत्नाकर
रत्ना भांडार !

पाळ मारता,
फेण येता
हासून ऊंच खाल वता
सदा तशीच !

मुकार देकचो
हासु होड ना
बुडुन सोदाय,
रत्न मेळता !

पंडित -
अगाध ताजी चिंता
हरद्यांत तत्व भरता
अर्थवत् जाता.

वेद, उपनिषत्
पुराण इतिहास
चिंतेचे अगाध सागर
उतर ऊणे, चिंता भोरून !

ऋषेश्वऱ
व्यास, वाल्मीकी, तुळसीदास
रत्न भरल्यां तांचे विचार
बुडून सोदाय, रत्न मेळता !

# पंचभूत

मनशा ! तूं एदीच रेंव म्होण कोण एकलो सांगता
तो ते रेवांत वता म्होणूय तागेलो प्रस्ताव
शास्त्र सांगता, तशी न्हय, पंचभूत तूं !
कितें कि हें पंचभूत म्होण सांगचें तें ?

भूमीय आकाशय उदाकय वायूय अग्नीय नंतितें ?
तें सर्व भिन्नरूप काणु चलता म्हण्टाय
रूप चोवन नांव धेताय, भिन्न भिन्न जावन
ताजें स्वरूप कितें म्होण सांगन आयकाय -

प्रपंच सर्व पंचभूतान जावंचें म्हणताय
ताका नाश येतना तें तें भूत जावन वता
मनशा देहाक चोयल्यार कितलें चंद आसा तें
ताजी अवयवां सर्व पंचभूतांनी केलेलीं -

ताका भांगार शिंगार धालून चंद करताय
मोरनु वतना कितें जाता ? संस्कार करताय
कोण एकलो पुरनु धालता, आनी एकलो लासता
दोनीय वाटेन देह पंचभूत जावन वता -

लासल्यार एदोच अग्नि जावन, उदाक जावन
एदोच गोबोर, एदोच धुवोर जावन सरता
पुरनु धाल्यार तेवंय रेवांत भूत जावन वता
कशि जाल्यारीय भूतां तीं भूतां जावन राबताय -

फळांचे रूक फळां घेवन राबताय चंद जावन
ताजीं फळांय फुलांय पाल्लेय खालाक पडतना
कुसून जावन तांचो नाश कशी जाता कीं
तेवंय सर्व पंचभूतांत विलय पावंता मू -

अग्निपर्वत फूटून होड नाश हाडता मू
लावा सर्व विकरावन तोवय सोंतू जाता मू
खंय वता ताजो उग्रतापूय, तांतूलें सर्वय ?
तेवंय वचून तांचे मातृभूतांत मेळता -

कोसवांचो रेंव काडून कसकसलें रूप करता
एदेच सर्व देव, एदींच मृंगा कोरनु काडता
आनी एदेच खेळचे खेळ चंद जावन
खालाक पडून फूटून तेवेय भूतांत पावंता

# अन्यथा चिंतितम

तीर्थयात्रा करूक भायर सरलीं
वचाक आशिल्लीं टिकेटां घेवन दवरलीं -
घराकडे एकल्याक व्हड रोग आयलो
ते पासून यात्रा सोडून दिली -

मांटवांत व्हारडीक, जनां भरलीं.
व्हकलेक शिंगारून हाडून राबयली -
मांटवाक कशीकीं उजो लागलो
जन सर्व धावन भायर गेलीं

आशेन व्हड घर करून काडलें
घरप्रवेशाक वेळूय चोयलो -
राताराती एक झोड आयलो
घर तशीच भुंयचेर पडलें -

तानेन ओंठा लागीं कॅप धरलें
हून म्होण तांतू एकी फूंक मारली -
हातां थाकून कॅप खाल पडलें
कितें सांगूं ! तान विरून गेली -

आमी एकेक करूक आशा काडताय
ताजे खातीर सुमार कष्ट पावंताय -
जावन जातनाच जालें म्होणूयात
देवान लेकलेवरीच कार्यां जाताय -

# जीव

समस्त चराचरांक नाश आनिवार्य
नाश नातिल्लो एकलोच - जीव म्होणचो !
जाताय वताय, दुसेर जाताय
हें चक्र केदनाय तशी घुवंता -

पंचभूतांनी जालेलें हें देह
तांतूंच तें मागीर विलय पावंता
तेवेंय जीवालो खेळ खेळता
तें सर्व भिन्नरूप कालाकाल घेता -

देहांतुली देही स्वल्प काळांक
तांतू राबून एक खेळ खेळून
पुरो जातना ती तेंवय सोडून
आनी एकडे खेळूक जावन वता -

परणें कांय विकून नवें घेता
परण्या पासून तो दुःख पावना
घर पिसडून एकलो नवें करता
पिसडिल्या घरा पासून ताका ना चिंता -

परणें वस्त्र आमी दूर घालून
नवें वस्त्र काणु न्हेसूक लागताय
सोडलेले वस्त्रापासून विसरताय
हें सर्व दिसपडतें दृष्टि पडता -

जीव कोणाकय शिंदूक जायना
उज्याक ताका कशीय लासूक जायना
उदकाक ताका तिमोवंचाक जायना
वायूक ताका शुष्क करूक जायना -

नाश नातिल्लो तो एक वस्तू
तो सर्व देहांत भोवन खेळून
मांकडान खांद्यार खांद्यार उडकी मारून
खेळचे लेखान संचार करता -

# सर्वं सह

भूमीचो उत्भव केदाणा म्होण
कृत्य जावन कोणाक सांगूक जायना
शास्त्रज्ञ एकेकले भिन्न कालु सांगताय
वराहान उद्धार केली म्होण पुराण सांगता.

भूमीचो नाथ सूर्य म्होण सांगताय
ती स्वयम घुवन ताका प्रदक्षिण काडता
तिका तो तापूय वृष्टीय दिता
ताजो सहाय नातीलें तिका राबूक जायना.

पर्वत सर्वय, जन सर्वय जावन
समुद्रूय न्हंयोय, भार चडयता
मनीस जाय जालोलो चड भार दिता
ती ते कष्ट क्षमेन सहन करता.

तिका एकलोच पूत, ताका वाडयता
चन्द्र म्होणचो तो तिका प्रदक्षिण काडता
एक वेळार तिका निपोवन घालता
स्वल्प घडियेन तिका भायर हाडता.

मनीश तिगेलें रान नाश हाडता
रानांतुले मृगांकय संहार करता
स्वल्प तडसून ती दीस काडता
केदनाय तिका जायना क्षमा काडल्यारीय.

न्हंयांत थाकून उदाक बांधून राबयता
सर्व भार एकडे हाणु कष्ट दिता
भूकंप हाणु ती नाश हाडता
चेरडाक आम्मान मारून दुखोवंचे वरी -

सहन नातीलें जातना उग्र जावन ती
अग्निपर्वत फुटोवन लावा विकरायता
चेरडा मारून रडणे व्होळचे लेकान
नातीले वेळारी ती शांतीस्वरूपीण.

क्षमेन कष्ट पावनु ती मुकार वता
कष्ट सहन कोरनु दीस काडता
संरक्षण मेळच्यांनी दु:ख दिवंचें जायना
लागी सरून तांणी तिका मुकार व्हरका -

# पुनर्जन्म

सान चेरडुं जावन भुंयचेर पडता
आवस ताका काणु पिवंचाक धरता
ताका तें पिवंचाक म्होणु; पिवंचे म्होणु
जालेले चेरडाक कोण शिकयता ?

गाय ती वीवनु वासूर जाता
खाल पोणु नीट जावनु कितें करता ?
आवसू होंटी सोदून स्वल्प भोवन
होंटी दिकतना स्वयं पिवंचाक लागता !

कोण ती होंटी ताका दाखयता ?
पिवंची म्होणु ; पिवंचाक म्होणु शिकयता ?
तागेले मुज्जन्माचे वासनेन
तशी करूक ताका स्वयम दिसता -

देही नित्य देहांत खेळनु भोवनु
थांगा पुरो जातना विंगड सोदता
परणें वस्त्र सोणु नवें घेता
हे लेकान देही म्होण गीता सांगता -

एकेक देहांत येतना फाटली वासना
तो धेवन येता म्होंण लेकूका जाता
ती वासना तशी राबून येता
ती ताका हे जन्मांत वाट दाखयता -

एकेक जन्मांत मेळचे अनुभव सर्व
ते वासनेक होड सान करता
कोणेकल्याक वासना होडी जाता
एकल्याक तरी ती सानीय जाता -

होडी होडी जावन पारम्यार पावंता
तिका मागीर वाडूक कांय ना जाता -
ती तिगेले खेळ राबोवन सोडता
कोण - तें करतल्याक मोक्ष जाता -

वासनेक होड जावंचाक दीनातीलें
तिका वाडूक जाय तें मेळनातीलें
दुसेर देहांत ती जन्म घेता,
साफल्य मेळू भितर तांतूच राबता -

एकेक जन्मांतूय ताका शिकयता
सत्कर्म करूक वाट दाखयता
तो ते वाटेन मुकार गेल्यार
तिका साफल्य येवन मोक्ष मेळता -

## उव्वार

मोड दवरता,
झोड - पावस येता
न्हंय भरता,
घरांत उदाक चडता -

घर सोडून वताय
ऊंच खंय शाळेंत
सर्वजन येवन भरताय,
जाति मत ना, सर्व एक !

स्पर्धा ना, झगडीं ना
जाय जालेलें हात परतता
स्वयरक्षा तांचे एकच मत
एकडे मेळून दीस काडताय.

पावस राबता,
उदाक खालाक वता
तांगतांगेले घरल्याक वताय
उव्वारा कष्ट विसरून वताय

उव्वारा वेळार रूक पडताय,
न्हंयांतुल्यान व्होळनु वताय -
मूळांत बीळांत राबचीं
सर्पूय मुंगूशीय रूकार चडताय -

जन्मवैरीं तीं एकडे जाताय
लागीं लागीं सरून बेसताय
स्पर्धा ना, कालुष्य ना तांकां
परस्पर तीं उपकार करताय-

माजर विंदूर रूकार चडताय
परस्पर चोवन नुतोच बेसताय
वैर सगट तीं विसरताय
एकमेळीन तशी दीस काडताय-

उदक देवन वता,
तागतागेले बीळांत वताय
उव्वारा वेळाचे अनुभव
सगट तीं विसरून वताय -

प्रकृती तांकां एकमेळी शिकयता
स्वल्प काळांक तीं शिकताय -
मागीर वैराग्य वाडोवन हाडून
सर्वनाश मूं तीं हाडताय !

# कालु

सागर हो व्हड पारावारू
दिता सर्वांक तो नीराहारू
हाची भरती सुकती कोण करता ?
इंदूलागी हाका मोग जाता-

चंद्रम उदेता कमळ फुलेता
तो वत्तना तें पाप, कवोळनु वता
नित्य हें दृश्य दिकूक येता
कोण हें सर्व कोरनु काडता?

सूर्य उदेतना फालें जाता
तें कोणाक राकून वेळ काडता ?
पत्माक्ष ते वेळार उत्फुल्ल जाता
सांज जातना पाप धांपूनवता -

एदोच वेळ लागेन खेळया म्हणून
कमळ पत्माक्षांनी मागल्यार तरी
शशी रवी तांकां कान दीनाय
समुद्रावृद्धिक्षय, कालूय वता -

कालु एक नित्यसत्य प्रसंक्त
कोणाक ताका धरून राबोवंचाक जाता ?
ते ते वेळार तो प्रत्यक्ष जाता
ताजें काम करून मुकार वता

आज करचें सर्व आजीच करता
फाय कितें जायत, कोणाक कळता ?
बुदवंत काला वैभव जाणता
कालाक भजून तो दिस काडता -

खोली पिकून ती पडून वता
हरवी खोली तिका चोवन हासता
कालान तीवय पिकून येता
कालु पावंतना तीवय खालाक पडता -

रोग येतना वोयद ओखद दिता
सगट रोगाक ओखद आसा म्होण सांगता
कालु पावंतना इतें करूक जाता ?
ताका दोर बांदूक कोणाक जाता ?

# मेणा वाती

वाती जळता
मेण करगता
उजवाड दिता
तो तिजो धर्म

मेण करगून सरता
वाती सोंतू जाता
तिगेलो धर्म करून सरता
तिगेलो जन्म सार्थक जाता

मनीश जाता
वाडून येता
ताजो धर्म कितें ?
कोण चोयता ! ?

अधर्म करता
फारनु काडता
फोटोवंचाक लागता
हुपून काडता

हिंसा करता
झगडें झूज करता
सर्वनाश हाडता
कितें मेळता ? !

कोण एकलो
चांगपण करता
चांगपण जाता
सुख संतोष मेळता

केलेलें चांगपण
वाट दाकयता
मेल्यारीय ताजो
उडगास राबता

आमकां वांचूकय
अन्यांक वांचूक सोणूय
सर्वांक सुखसंतोष मेळूकय
दाकय देवा चांगी वाट !

# मोग

चेरडाक काडताय, भोंवडायताय
खेळयताय, खावंचाक दिताय
चेरडूं रडूक लागता - पद म्हणताय
पोटोवन धरताय - रडणें राबना !
अम्मा लागीं चेरडाक दिताय
अम्मा ताका उमो दिता
चेरडालें रडणें राबून वता !
तें हासून खेळूक लागता
चेरडूं नाका जालेलें करता
अम्मा ताका पेटू मारता
रडचे चेरडाक परसून दिता
रडणें राबयता, हासूक लागता
तिजे हृदयांत आशिल्लें कान्त
चेरडा हृदयांतले लोकण्डाक
आकर्षण करून लागीं हाडता
कान्तय, लोकण्डय एकडे जाता !
हृदयांतुली भास अम्मा उलयता
चेरडा हृदयांत हुंकार दिता
तिजें मन तो वळखता
तीणे सांगचें अनुसरण करता
बालप्रायेर कृष्ण रेंव खाता
यशोदा ताका आपोवन हाडून
तोंड विसकळावन चोयता
ताजें विश्वरूप तो दाकयता
वर्षा - वर्षांनी घोर तप करून
मुनीश्वरांक मेळनातीलें रूप
यशोदेक कशी मेळता ?
मनान तीणे दिलेले मोगान !

# समभावना

सान चेरडूं सगटांक समच जाता
सगटांक रक्त एक, मत एक, जाती एक
सगटांक एकच तांबडें रक्त
सगटांली भास एकी - हास म्होणची !

चेरडूं भोवंता, खेळूक लागता
सर्वमतांतुलींय एकडेच खेळताय
विद्वेष ना तांकां, स्पर्धाय ना तांकां
हासून पोटोवन धरून उडक्यो मारताय

आम्मा बाप्पा तांकां वाड्डेयताय
नाका नातिल्लें शिकयताय तांकां
तांचे मनांत विष चडयताय
विभिन्न मताचे म्होण नांव घेताय

अज्ञान दोळयांत काळूक भरता
हरदें भरून विष वाडोवन हाडता
सानप्रायेर मेळची एकमेळि वता
लडाय करून माथें फूटयता

विज्ञान हृदयांत वाडोवन हाडून
कृष्णूय, क्रिस्तूय, अळ्ळाय एक म्होण
मनीश सर्व एक जाती म्होण
भांवडां म्होण लेकूक - दी देवा विवेक !

# नाटक

विचित्र वेष घालताय
स्टेजार येताय
नांचताय खेळताय
हासताय रडताय

घडियेक हात दिताय
आलिंगन करताय
सवताय मुस्तिताय
मुष्टियो मारताय

गुळो घालताय
उबारून व्हरताय
फोडदो पडता तावळ
हासून चमकताय -

कसकसोलो वेष घालताय !
सांगात्यां लेकान लागीं सरताय
चांग गोड खबर उलयताय
हातांतूली बाग उप्पून काडताय

तांबें सकड भांगार कोरेनु
कुबेर करता म्होण सांगूनु
हातांतुलें भांगार सर्व
हातांत करून तांबें दिताय !

चेलियांक सकड
गोड उतर दिवन
भांगार सगट हातांत करून
वाटेर सोणु निपून वताय -

फोरिनांत व्हरतां,
काम घेवनु दितां !
कमीषन घेताय,
वाटेर घालताय !

दुष्कर्म सर्व लोकांत भरता
सत्कर्म सर्व काळखांत वता
चांगी वाट दृष्टींत पडना
लोक सर्व नाटक जाता -

दुर्जन सर्व मारून मरता
सज्जना पासून लोक राबता
हें नाटक केदनाय चलता
कोण हें सर्व कोरनु काडता ?!

# जायते म्रियते

कारण नातिल्लें कार्य कांय जायना
खंय धुवोर येता थंय उजो आसा
बस आडळता, मोरनु वता
आत्महत्या करता बुडून मरता
विष पीवन मरता, गळपास घेता
हृद्रोग येता, कशीय मरता
जालेले सर्वांक मरण अनिवार्य
मर्णाक कारण जनन म्होण सांगूका !
दुष्ट कौरवांक संहार करता
अर्जुन ताका निमित्त जाता
हिरण्यकशिपूक संहार करता
प्रहलाद ताका निमित्त जाता
गर्विष्ट महाबलीक संहार करता
वामनरूप निमित्त जाता
सर्व चराचरां जावन येताय
तीं सर्व कशीय नाश पावंताय
जनन मरण चक्र तशी घुवंता
तें कोणाक राबोवंचाक जायना !
आजि जाता फाय मरता
केन्नाय तशीच जावन येता
नित्यशक्ति जालेली शक्ति
ती मात्र केन्नाय राबून येता
ते शक्तीक कोण शरण पावंता
ताका ती नित्यजीवित दिता !

# स्वयमकृत अनर्थ

पुनवेची राती
चंद्रेम उदेला -
गांव सगल्यान उजवाड भरला
पक्षीमृग घरांत सरल्यां
        दीसा सगल्यान भोवन पुरो जावन
        कोंबो घरा वयर चडला
        पाखां सगळीं एकडे करून
        एक पायार निदेवूंक लागला -
राती वता, मध्यराती जाता
कोंब्याक पाय दुकूक लागता
कोंबो जागो जाता
'को को रे को ऽऽ' गौजी मारता -
        शब्द नातीले दिकार
        ब्हड शब्द अनुरणन जाता
        'घाटेन वचे वागा, माका येवन
        खागा !' म्हूण जाता -
रानांतलो कोलो हें आयकता
भुकेन तो धावन भोवंता
धावन तो घरालागीं पावंता
कोंबो ताजे दृष्टींत पडता
        घरावयरी ताका चोडूक जायना
        कोंब्याचे दोळ्यांत तो चोयता
        कोंब्याचें माथें धुवंता !
        पाय निसरून तो खालाक पडता
कोल्याचे हातांत कोंबो पडता
ताका खुशाल खाण जाता
चिंता नातिल्लें अनर्थ जो करता
ताजें मागीरचें फल तो भोगता !

# बेंदरली

रूक वाडता, होड जाता
खांदो ताचो दीग जाता
फूंलां फळां भरती जाता
कोण ताका वाडोवन हाडता ?
मूळ ताका नीट राबयता
जाय तें उदाक पोषकां
भुंयचेर थाकून तलवार पावंयता
तो सावळीय थंडसाणीय दिता
खांद्यार ताचे बेंदरली लागता
परान्न भोजी ती जाता
खांद्यार वचें उदाकय आहारूय
वाटेर ती चोखून पिता
तिका उन्मूलनाश हाडका
न्हय तरी जालें ! खांदो सुकता
क्रमान रूकूय करपून वता
ताचो सर्वनाशूच जाता !
मनीश जन्म घेता, होड जाता
आरोग्य ताजें मूळ - ताका राकता
क्रमान पोषकाहार खाता
व्यायाम विश्रम विहार करता -
कोणेकल्याक महारोग येता
बेंदरली वरी ताका चोखता
ओखद तिका उन्मूलन करता
मूळ - आरोग्य - ताका राकता !
सज्जनांक एक वेळार, निपून
दुर्जनांची बेंदरली घास घेता -
बुदवंत तिका चिकळून सोडता
नातिल्यांक ती नाशूच हाडता !

# कल्पवृक्ष

वृक्षांत श्रेष्ठ कल्पकवृक्ष
पक्ष नातीलें उबी दीग वाडता
कांक्षा नातीलें सदा फल दिता
अक्ष ते फलाक तीन, महेशा लेखान !

केरळांत तो खूब वाडता
केरवृक्ष म्होण ताका सांगताय
वरदान जावन आमकां मेळ्ळोलो
चिरकाल तो तशी राबून येता -

देव पितृकर्मांक नारल अनिवार्य
नवग्रहा गणपती पूजना वेळार
आवाहन करून तांकां ताजेर हाडून
पावन चंदन कूंकूम फूलां दवरताय-

स्वाम्याक देवाक गुरुजनांक
नमन करून सुफल काणीक करताय
नमन करून आशिर्वाद मागताय
कामना करचें सर्व मेळूक -

दानांभितर तो श्रेष्ठ दान
मनान पुरोहित तें दान घेता
आनी सांगता 'नारी फलम् फलश्रेष्ठम्'
मनांत करता 'पुत्र पौत्र प्रवर्धनम्'

'आगारांत पागार-पागारांत शंख !
मागीरी शंखां भितर पवित्र फल !'
निगूढ जावन तें अमृता समान !
वागुळ्याक मुयांमुसांक कळनातिल्लों!

तें पवित्र तीर्थ अतिविशिष्ठ
तें पिवंचाक शेळ, गोड गोड
तापु आयलेल्यांकय अति पथ्य
अप्सरांय सरी रुचीन पिताय !

तें तीर्थ आटून घोंध जावन
तांतूं थाकून ताजो बीजावाप !
कितूले वेगीं तो वाडून येता !
पत्रां चारीय तांतू विसकळेताय -

वाडून फल दिवंचे वेळार गोमटयांत
उडून येताय होडी होडी घोणयो !
पिड्डे वार्यार हालून राबताय
पिड्या वयर भांगरावर्णां भिंगार !

मूळ थाकून तुद्दी पर्यांत माडो उपयुक्त
मळमळेले दंदाक तो काडताय
सोण कातो करटें हें सर्वय
दोराकय, अलंकार वस्तूंकय लागता -

सुमार एक पुरुषायुस सेवन करचो
हया माड्याक आमी कितें दिल्यार पावंता ?
ताका संरक्षण करचें आंमचो धर्म
तें विसरून ताका कातोरचें पाप !

ताका कांय इच्छा ना, ताजो धर्म करता
हें दिकून जायत 'गीता' सांगता-
'कर्मण्येव अधिकारस्ते' म्हणूय
'मा फलेषु कदाचना' म्हणूय !

# उत्सव

समुद्र एक व्हड देवळ! थांगा उत्सव!
जनाक सगट उत्साह जाला उत्सव चोवंचाक!
गांव सगळो शिंगारून सोडला चांग करून
गोंड्यो अनेक लांबयताय माडे सर्वय -

आंब्या पाना तोरण घाल्यां आंब्या रूकांनी
रुकांर खिचून आंबे राबल्याय घोसाघोसांनी-
केळयां घडाय लांबोवन सोडल्याय केळी तोपांत
झाडार म्हस्त फुलां भरल्यांय - कसकसले वर्ण!

न्हंयो कितल्यो येताय त्यो धावन धावनू
तीरांवेल्या रुकांचीं फुलां लागी घेवनू -
पुजेक देवाक फुलां जाय म्होण लेकून!
सर्वय भरल्यां उत्सवाक जाय जालेलें

मळबार बळबा शिंगार घाला चंद जावनू
झिगी छिन्नी जावन तीवंय थळथळेताय
व्हड एक मेरकुरी बळब जळून राबल्यां
गावांत सगट हुजवाड भरून विकरायता!

हाडिल्ले फुलांनी पूजा जाली विस्तार करनू
घडिघडियेन थळथळेता दोळे विसविसावनू
झंगीरो वाजता आरतीचो, वेळ कळूक
जोगुल येवन आरती दाकयता दुसेर दुसेरी!

व्हडी व्हडी पटाका फांती तशी फुटता
ओटू तांचे जोगुल मेळून प्रकाश चडता-
समुद्रांत ताजो उजवाड पडून उजळ दिसता
समुद्र संतोषान गर्जन करून उडक्यो मारता !

अवभृताचो व्हड अभिषेक करून सोडला मू !
अभिषेकाचें पवित्रजल मात्यार घेवंचाक !
तीर्थ पडता जन सर्वय तें मात्यार घेता
माथें पुसून दोळ्यांक लायता व्डड भक्तिन !

वाती घालून पोणत्यो सोडताय एकेक जन
काजोलो तोवय मिनमिनेवन प्रकाश दिता
सेतु बंधनाक चानयेन रेंव हाडिल्लो लेकान !
सर्व तांची तांची शक्ति तकीत उत्सव वाडयताय

जनांक सर्वांक आह्लाद जाला, नांचून खेळताय
भोवनु भोवनु, खेळचे खेळ सगळे घेवनू !
चेरडुवांक घेवनु वचाक लागताय भारी संतोषान
येवंचे वर्साय उत्सवाक एकडे जावूं म्होण !

# पावस

मोड दवरून भारी काळूक जाला
माडेय रूकय हालताय वार्यान
पाडेय गायोय वासरां सर्वय
घूडांत चडूक धावन आयल्यांय

फिदरांत मैदरांत कवडां धाडवताय
केदनाय दांडी घालून धांपून सोडल्यांय
विंदूरय माजरय घरांत निपल्यांय
वीज राबून काळूक जाला

पाल्लेय वालयोय रूकय नांचताय
खालाक पडूक, मोडूक वचे लेकान !
उलयल्यार आयकूक पडना गुडगुडान
फूलां पात्यो उबून दूरा दूरा वताय

चेरडुबाळ खेळूक मोंचवां करताय
पारव्या घूडांत हुंकार जाता
गर्जुचो समुद्र पाळ मारता
घराकडे बेसताय, भायर देवनाय

शीं खाता, होडु कडकडो येता
पंखीं सर्व राबोवन सोडल्यांय
शंखा लेकान वार्याचो शब्द
दुःखाय भीतीय भरून नीद पडना

देरलांत सगट उदाक भरल्यां
चेरडूवांक सर्व उत्साह भरला
कोरनु दवरलेलीं मोंचवां सगट
हर्षानी तीं उदकांत सोडताय

तळीं भरलीं, न्हंयोय भरल्यो
काळें मेघ  दूरा वचून उजवाड आयलो
कॉलेजांत स्कूळांत वचीं चेरडूवां
खेळूक भोवंचाक धावन भायर आयलीं

प्रकृतींत जावंचो हो प्रतिभास
विकृती जाल्यारीय मनशाक चांग
आकृती न्हय होडी म्हूण लेकून
सुकृती करूक जाता सर्वय

# फूल

फालें जाता
विसकळेता
घमघमेता,
नीट राबता -
    भोंवर येता,
    हुंकारता
    नांचून भोंवता,
    उमो दिता -
चेरडूं येता,
हुंगूक लागता
केसांत माळता,
तुरो करता -
    माळा गांथीता,
    मांटवांत व्हरता
    गळ्यार घालता,
    तुरो भेटीता -
सांज जाता
तूं कवळता
पाती पडता
दूर उडकायता ....
    खंय तुजो प्रताप ?
    खंय तुजी चंदाय ?
    जीवित क्षणीक
    आजि हांव, फाय तूं !

# वसंत ऋतु

पर्वतार थाकून समतलार पर्यंत
सर्व झांडाचेर सर्वत्र फूल !
सानहोड जावन कसकसलें फूल !
कसकसोलो वर्णु, कसकसोलो पोरमोळु !
फाले फाल्यार दोवांत न्हावन
पति येवंचें राकून केस वळोवन
फांती घालून काजल सूवन तीळो करून
'पाऊडर' लावन, एदेंच तांकांय दवरता -
नीलमेघश्याम वर्णान, हुंकार करून
हर्षान येवंचे भोवराक स्वीकार करता
गोपीनी कृष्णाक करचे लेखान
तो येवन तांणी दिलोलो म्होव पिता.
तांकां चुंबन करून 'पाऊडर' घेता
आनी एकाचेर वचून ताका दिता
तशी तांचो वंश वाडोवन हाडता
ती परंपरा तशी वाडयता.
झाडांची ऊंच्छी भांगारान शिंगारून
फूलां वार्यांत नांचून खेळून
सांज जातना बावन कोवोळन वता
हेरदीस फाल्यार पडून वता -
फुल्ल्या दिसा व्हड प्रताप भरलेल्या
फुलांची गति आतां कितें जाता ?
हूजवाड व्हड जावन जळता देकून
तांतूं येवन पडचे भुयारां लेखान !
सर्वचराचरांक नाश अनिवार्य बद्ध !
ते ते वेळार करचें काम करून
फाल्याक कांय दवरनातीलो
ते ते दिसा करून निर्वृती पावंता.

# तुषारबिन्दू

फालें जाता सूर्युदेता
पाल्या तलवारी दोवाथेंबो लांबता
सूर्या रश्मी ताजेरी मारता
वज्रावरी थळथळेता.

सप्तवर्ण तांतूं थाकून येताय
चोवनु दोळे विशविशेताय !
घडियेक तो तशी राबता
खालाक पडता - रश्मी वता

मध्याह्न परतता
सानु पावसु पोणु राबता
पूर्वचक्रवाळारी इंद्रधोणू उदेता
सप्तवर्णाच्यो पाळ्यो दाकयता

कितली चंदाय दृष्टि पडता
चेर्डूबाळ हासून ताळियो मारता
तें तशी राबून घडियो काडता
ताजो प्रतापु पूरा दाकयता.

सूर्या हें दिकून जळकाय पावंता
ताका सुमार कोपु येता
तोंड कोपान तांबडें जाता
कोपु ताका चड चड येता.

उग्रप्रतापी तो रक्तवर्णु जाता
तें दिकून भयान इंद्रधोणू निपता
सूर्या तें चोवन हासता
न्हांवचाक समुद्रांतु तो बुडता

## तरंगिणी

अम्मालागीं थाकून तुका उबोवनु
आकाशमार्गी पर्वतारी व्होरनु
थांगा खेळूक तुका सोडता
स्वल्प काळ सुखान थांगा खेळता -
        नीट राबून चमकूक शिकता
        घडियेन तूं होडी जाता
        पायांक वाळे गागरी घालता
        नांचून भोवंता हासूक लागता -
धावंचाक लागता, अम्माक सोदून
राबूनातीलें मुकारि धावंता
धांव रे धांव ! एकडे राबना
रानांतुल्यान, गुड्यांचेरी धाडवून
        पाय हालताय, गागर्यो हालताय
        कळ कळ शब्द दिगंतरारि मारता
        धांव राबना अम्माक सोदून
        मुकारि मुकारि अतिशीघ्र वता -
अम्माक सोदून राबूनातीलें धांवता
वाटेरी तुका कोण राबयता ?
ताका दांटवून, घुवन वता
कोणाक तुका राबोवंचाक जाता ?
        वाटेरी राबिल्या रुकावळींक
        झाडांक तूं संरक्षण करता
        जनपदाक सर्व वाड्डोवन हाडता
        तुजो निस्वार्थ धर्मु तूं करता -
धांव तुजो होडु होडु जाता
अम्माक मुकारि दृष्टि पडता
अम्मा लागी उत्साहान वता
अम्मा संतोषान आलिंगन करता !

# सायम संध्या

पुनवे दीस कन्याकुमारीचें दृश्य वश्य
सांज जाता दिवाकरु सागरांत बुडूक वता
त्या वेळारि तो सिन्दूरवर्ण मळबाक लायता
लायलेलें पावनातीलें दुशेर लायता
　　दीस प्रशोभित करून पूरो जालां ताका
　　मळब तांबिडें करून बुडून वता
　　ताजो उग्रतापु ऊणो जावन येता
　　जीवजाल विश्रमाची वाट सोदीता
पूर्वसागरां थाकून उदेवन शीतळ चंद्रेमु
शोणित मळबारि उजवाडु घालता
कायळो पाक्षियो मृग घूडांत चडता
दिसाचो ताप तडसून पूरो जावनू
　　चन्द्रेम हासता शेळोव दिवंचाक लागता
　　चेरडूबाळ संतोषान भायर येवनु
　　‘बोब्बो देवा बोब्बो दी’ म्हुणूय
　　‘चेरडा खेळूक बाबु दी’ म्हूणूय मागताय
कमळ फूलेवन हासून राबलां तांचे पतीक चोंवचाक
तो येतना तीं संतोष पावनु वार्यांत नांचताय
नक्षत्रां मिनमिनेवनु हुजवाडु होडु करताय
मळबाक तांबिडसाणि वोचून निळबाणि येता
　　चन्द्रु सांगता, हांव तुमकां शेळोव दितां बद्ध
　　सूर्यान दिवंचो उजवाडु हांव तुमका दिंवचो
　　उग्रतापी तो मोड कोरनु पावसु दिवंचो
　　जीवजालं वाड्डताय ताजे कृपेन म्हूण लेकाय !

# खंय उदाक ?

पावस नातीलें गद्दे करपले
तोप सर्व निश्चल जाले
पाल्ले सर्व पोणु सरले
कोगूळ गींत म्होण बावली -
एक कोळसो उदाक हाडूक
कोळसो घेवन गेलेली चेली
इतलीच घडी जावन येना !
वाटेर ती कितें करता ?
नित्य दिकची - आजी खंय गेली ?
हांडीर कोळसो धरून येवंची ती
आजी कित्याक म्हूण येवन पावना ?
ताळो सुकता, झाड करपता, ती खंय ?
पूर्व दिशेरी उजवाड भरला
तें चोवन बी राबली जायत
पश्चिम दिशेरी वचून येवंचाक
तिका कितलो वेळ जावंका ?
जोगूल चोवन दोळे धांपून
केस ती तशी वळयता जायत !
दूरा इन्द्रधोणू उदेतना
मोरा नांच करता जायत !
पत्माक्ष फुलेल्लें चोवन चोवन
तीं एदींच काडूक गेली जायत !
हें कांय आमकां चोवंचें नाका
तिगेलो नांचूय हासूय नाका आमकां-
एक थेंबो उदाक दीवनु जातना
जावो तिजो दांत दाखोवप -
एक थेंबो उदाक दीवनु जातना
जावो तिजी म्हणी म्हणप -

# सरस्वती

अम्मा सरस्वती पुण्य नदी
तुज्यो पवित्र भयण्यो
गंगे यमुने लागी
त्रिवेणींत तूं एकडे जाता -
शांत अगाध नीळि यमुना
हासून धावन येवंची गंगा
एकडे जावंचे कडे
तूवंय वचून मेळया
मालगड्यो भयण्यो त्यो
तूं नवोढा, लजेची
तांचे मुकार समच वचाक
तुका जायना, निपून वता
सूंदरी तूं, भारी लजेची
मंद मंद तूं येताली
खंय तूं राबून गेली ?
मागल्यान निपून खेळता ?
येवंचे वाटेर चेरडुवांक सोडलीं
तांणी तुका कितें केलें ?
कसलो अपराध तांणी केलो ?
मातृवात्सल्य तुजें खंय गेलें ?
पाडीक राबिल्लीं जीवजालां
तूं गेली म्हणू कितले कश्ट पावलीं
सस्य सगट करपून गेलें
जनांनी पलायन केलां

भारत सगलो पावस नातीलें
जीवजालां कश्ट पावंताय चोवन
भगीरथान तप करून गंगेक
खाल हाडली म्होण सांगताय
    अम्मावरी राकून येवंची
    जीवजालांक संरक्षण करची
    आमकां सोणु तूं निपून गेली
    आमचे कश्ट अम्मा तूं चोयना ?
समस्तापराध आमी सांगताय
तुका भजिताय, प्रार्थना करताय
तुकाच केदनाय शरण पावंताय
आतांय त्रिवेणींत आमी वताय-
    भगीरथा लेखान कोण जाय
    पूर्व वाटेर तुका हाडूक !
    देवालागी आमी मागताय
    तुका प्रत्यक्ष करून आमकां राकूक !

# संस्कृती

गोंयां थाकून दिगंतरार धावन आयल्याय
ब्राह्मण वैश्य कुणबी इत्यादीक
आचार एक विचार एक भासय एक
एक अम्मालीं चेर्डुबाळ समस्तय जावन
सोनार सर्वजन पावल्याय तांचे ओटू
सर्वय भांवडां लेखान राबून येताय
कोण तांकां एकडे करता, हें विचित्र !
अम्मा एकलीच एकडे करता-
कोण एकलो दीग, एकलो गुड्डो
एकलो गोरो, एकलो काळो
आनी एकलो थोंटो, एकलो काणसो
अम्माक ते समान, सगटांचेर मोगु-
एकच सुतार सुमार वर्णां फूलां गांतून
सगट मेळ्ळोलो दांडू तो कितलो चंद !
सगट फुलां परमोळ घमघमेता
कोण तो दांडू गांतून काडता ?
अम्मा तांची एकि, कोणाची ती भास
ते भासेचांक कोंकणे म्हूण नांव घेताय
जाति ना, मत ना, गोरबाणी काळबाणी ना
सगट एक अम्मालीं चेर्डुबाळ
ते भासेक प्राय ना, देश ना, मत कांय ना
तिचे चेरडांक सर्वय एकच लेखान
चोवन वाडोवन हाडून संरक्षण करता
तिजी सेवा करचें आमचें कर्तव्य !
एक सुतान गांतून घालेली ती अम्मा
गांटी निसरावनातीलें राकूची अम्मा
हे देशा संस्कृती विसोरनातीलें
एक मेळीन तिका वाडोवन हाडूया !

# दिन - रात्र

[सूर्य समुद्रां थाकून उदाक मोड करून वृष्टि घालून तिका चांग-वायट करचो भर्तार.

समुद्रां थाकून वराहान भूमीक उद्धारण केल्ले खातीर भूमि समुद्राची धूव. सौरयूथांतुली ग्रह म्हूण ती सूर्यालीय धूव. भूमीलो उपग्रह म्हूण चन्द्र भूमीलो पूत. चन्द्रु भूमीक अवलंबून आसा आनी, तिका प्रदक्षिण करता. भूमि चन्द्र समेत सूर्याक प्रदक्षिण करता.

चन्द्र नातू म्हूण, सूर्य - आज्यालागी हांगा संभाषण !]

चंद्र - कित्याक आज्या कोपु काडता,
अम्माक तापु दिता ?

सूर्य - न्हय रे पुतो ! अम्माक तुज्या
हूनसाण जाय म्होण दितां ?

चंद्र - हांव मिजे अम्माक शेळोव दिवन
तिका सुख हाडतां.
तिका तूं कित्याक कष्ट दिता ?
माका दुःख जाता.

सूर्य - चोय पुतो, हांव तिजेर
वृष्टि घालून सस्य सर्व दितां.
तिजी अम्मा नातीलें तिजेर कांय
वाडून येवूंक जायना

चंद्र - कित्याकं आज्या नित्य तूं मिजे
अम्मम्मा लागी वता ?
तिजेर कितलो मोग तुका
हांवय जाण जातां!

सूर्य - अम्मम्मा तुजी, बायल मिजी
तिका हांवें चोवंका जाता.
तिका कांय पुणीय जाय जाल्यार
सोदून व्हरून दिवंचाक.
हेरदीसा हांव पावंता न्हय वें
तुमचे लागीच जावन !
तशी हांव तुमकां संतोष दितां
जाय जालेलें दिवन !
चंद्र - अम्मालागी खेळूक हावंय
तिजे लागी वतां
माका काडून होंटींत बेसोवन
जाय म्होणचें दिता
सूर्य - माका होडी भूक जावन
तुजो कुटको नित्य खातां !
भूक चडी जाली म्हण्टना
तुका पुराय गिळतां !
चंद्र - मिजेर तुका मोग जावन
दुसेर माका सोडता !
क्रमान माका व्होडु करून
अम्मालागीं दिता !
सूर्य - एक वेळार तूं वाडून
मिजेय तिजेय मदें येता
ते वेळार तूं अम्माक निपयता
माका दुःख जाता.
चंद्र - हांव तुका खेळोवंचाक
तुमचे मद्दें राबतां !
खेळ जावन हासून हावंय
तुमका चोवन चलतां !

# चंद्रेमु

सान चेरडाक न्हाणोवन हाडून
केस वळोवन, पौडर घालून
काजल सुवन, तीळो करून
गालार ब्यूटी स्पोट कित्याक घालताय ?

पाचवोच कीर कितलो चंद
कित्याक ताजी चोंच तांबडी केल्या ?
तो उबून भोवंता चोंवचाक चंद
तांबडी चोंच ताजी चंदाय वाडयता.

पुनवेचो दीस पूर्णचन्द्र
उदेवन तो ऊंच पावलो
चेरडुबाळ नांचून ताळियो वाजताय
बोब्बो देवाक धरून दिंवचाक.

नीलाकाशार धवोच चंद्रेमु
देहाकय मनाकय थंडाय दिता
तांतूं भितर सोस्या रूप कित्याक ?
चंदाय वाडोवन ताका शशांक करूक !

# संध्या

सूर्याक कित्याक उजवाडु
चंद्राक कित्याक शेळोवु

दर्याक कित्याक विस्तारु
चंप्याक कित्याक पोरमोळु

चिंचेक कित्याक आंबसाणी
कात्याँक कित्याक कोडवाणी

बुद्धि आशिल्ल्याक भांडार कित्याक
पाकां आशिल्ल्यांक चक्रां कित्याक

शीड दवरल्यार वोल्लों कित्याक
संध्येक तिका सिंदूर कित्याक ?

# पुष्पांजली म्हळ्यार-

- सौम्य - सुंदर, संयमी, आनी संस्कारी भाषेची सात्विक, संवेदनशील कविता -
- सैमसौंदर्यांत मग्न जावन, प्रकृतीदेवीचें प्रकीर्तन करची प्रसन्न कविता -
- अचूक निरीक्षणशक्तीची, आनी आश्चर्यजनक कल्पनाशक्तीची कविता -
- सकारात्मक तत्वचिंतेची, सद् विचारांची, आनी अचांचल दैवभक्तीची कविता -
- कुकर्मांचो विमर्श करतना, सारकी वाट लागेन दाखोवन दिवंची सोद्देश कविता -
- एक परिपक्व कवीची, प्रामाणिक नागरिकाची, आनी अनुभवी व्यक्तीची अंतश्चेतना -

- शरतचंद्र शेणै